"ॐ श्री परमात्मने नमः"

# श्रीमद् भगवद् गीता

## संस्कृत श्लोक्यि कोंकणि भाषांतर्यि मेळनु





कोंकणि भाषा प्रचार सभा

कोचि - 682 002



"ॐ श्री परमात्मने नमः"

# श्रीमद् भगवद् गीता

(संस्कृत श्लोक्यि कोंकणि भाषांतर्यि मेळ्नु)




*भाषांतरकार*

**विजया राजकुमार प्रभु**
**वैक्कम्।**

*प्रचोदन्*

**माता, पिता, गुरु, देवु।**

**Sreemad Bhagavad Geetha**
**"Samscritha Slokeyi Konkani Bhashanthereyi melnu"**
**(Konkani)**

Translator : Vijaya Rajakumar Prabhu

Konkani Bhasha Prachara Sabha
Publication No. 36

Publishers : Konkani Bhasha Prachara Sabha,
Konkani Bhasha Bhavan,
Palace Road, Cochin - 682 002,
Phone: 0484-2227479

First Edition : 2017

Copies : 500

Printed at : Amara Kerala Industries,
Kalabhavan Road,
Ernakulam, Kochi-682 018

Copies available at : Konkani Bhasha Prachara Sabha

Price : ₹ 200/-



काशीमठ् संस्थानाचे मठाधिपति वृन्दावनस्त श्रीमद् सुधीन्द्र तीर्थ स्वाम्यांगेले चरणकमलांचेरि सहस्त्र प्रणाम्।





**H.H. SHRIMAD SAMYAMINDRA TIRTHA SWAMI**

**MATADHIPATHI OF SHREE KASHI MATH SAMSTHAN, VARANASI**

Camp : Sri Kashi Math ~~Ambalamedu~~ Date : 17-06-2016 ~~Ref 298~~

Blessings to our beloved disciple Vijaya Rajkumar Prabhu of Vaikom with Meditations of Lord Sri Narayana.

We are in receipt of your Vinanti Patram dt. 16-06-2016 and glad to note that you are publishing "Shrimad Bhagavadgeeta" in Konkani Language and received Kanika of Rs 1001/- by cash.

With Prayers to Shri VyasaRaghupathi for the success in your endeavours and to have enlighten and for Shri Hari seva bhagya to the readers and also for the welfare and Prosperity of you and your family, we are sending our blessings along with Shrigandha Prasad akshatham.

[signature] Swami



**V.S.D. VADHYAR**
Purohit & Astrolager
Vadhyar Madom, Thazhathangady P.O, Kottayam -5
Mob : 9447156656

Date 26/9/2016

## शुभाश्म्स



वेग्ग्ळे समुदाय्यि जावुनु सहकारु च्ड् चोम्कुचे ये सन्दर्भारि अम्गेले भाषेक् प्रचारु ऊणे जावुनु एत्ता अस्स्। त्शिश अस्सिल्ले वेलेरि श्रीमति विजया राजकुमार प्रभुन् श्री भगवत् गीते पस्सून् एक् विवर्त्तन् भाषेक् जाम्का एश्शि ह्मोणु चिन्तन् केल्लेने, भारी महत्व् जावुनु अस्सिन्ने कारण्चि। तज्जे निमित्ती मुक्कारि एम्चे अम्गेले परम्बरेक् भाषाज्ञान् अनीक् सामूहिक ज्ञान् उत्तम जीवित मार्ग्ग् मेळ्ता। गीते पस्सून् वेग् वेगले भाषेन् विवर्त्तन् अस्स्। जल्यारि मातृ भाषेन् केल्लोलो यो सम्रंभु महत्व्चि त्। तंगेले ये प्रवर्त्तनाक् जीवितांतु सग्गले हरि गुरु कृपा कडाक्ष् जाव्ंका ह्मोणु प्रार्थन कोर्नु शुभाश्म्स कर्तायि।

वि-एस् देवानन्द वाद्धार (कोटयम्)
सेकृटरि
जि-एस्-बि- वैदिक सभ
(गौड सारस्वत ब्राह्मण वैदिक सभ)
अम्बलमेड्-कोच्चि।

Phone : 0484 - 2227479




KONKANI BHASHA PRACHAR SABHA
(Regd. under the Travancore - Cochin Literary, Scientific & Charitable Societies' Registration Act. XII of 1955 S. No. ER 32 of 1966)
(A Literary Institution in Konkani recognised by Sahitya Akademi, New Delhi)
KONKANI BHASHA BHAVAN
PALACE ROAD, COCHIN - 682 002.

Ref. No. ........................ Date ..................................



## प्रस्थावना

केरळान्तुले वैकं ग्रामान्तु वासु कोर्नु एंव्चि श्रीमति विजया प्रभु श्री एन्.आर. प्रभूलि बाय्ल् ती जन्मली चंङनाशेरि ग्रामान्तु एकसास णौशि एकुन्पन्नास कृस्तुवर्षा फेब्रवरि दोनि तारिखेक श्रीनिवास पै-पदमावतिऽमम दम्बतींक् जनन घेत्तल्लि, ती पांबाडि संस्कृत काळेजान्तु शिकीलि। कालिकट विश्वविद्यालयां थकून् बि.ए. बिरुद मेळ्या। नन्तर को-ओपरेषनान्तु जूनियर डिप्लोमा प्राप्त जले। त्या नन्तर केरळा स्टेट् को-ओपरेटीव् अग्रिकळचरल् अनी रूरल डेवलपमेण्ट् बेंक, लिमिटड् तिरुवनन्दपुरम् तंन्तु असिस्टेन्ट मानेजर जाव्नु कामकोर्नु सेवांथकून निवृत्तजली।

तिणे बरैलेले असा निबंद। वैषणवरत्त् मासिकेन्तु बरैलेले निबन्दाक दोनि इनाम मेळे असा।

बेंकाचे निबंधलेखन बरौचेस्पर्धेन्तु इनाम् मेळ्याअसा। ओल् इन्डया रेडियो आकाशवाणीन्तु दिल्या असा निबंद लेखन विविद विषयान्तु अनेक वेळारि अनी ते तिरुवनन्दपुरम् आकाशवाणीचेरि वितरण् केल्या असा।

तिक्का असा दोनि चलीयो वोडली ती करनाटिक संगीतज्ञा। नाव तिजे प्रिया आर.पै. अनी दुसरी ती प्रवीणा संतेषनायक, इंनजिनियर जाव्नु कामकर्ता बोष् कंपनीन्तु कोयंबतूरान्तु। श्रीमति विजया प्रभूलो भरतारु सरकार सेवनेंथकून निवृत्तजलो।

तिरुवनन्दपुरं सोडल्या नन्तर ती अनी तिजो भरतारु अतं वैकं ग्रामान्तु राबप्केले असा आट् वर्ष जल्या।

श्रीमति विजया प्रभु संस्कृत भास शिकिल्या असा। तिका संस्कृत भासेचेरि अतीव प्रीति वडला। तिका महाभारतान्तुले मधे जाव्नु आसचे भीष्म पर्वान्तु वेदव्यासान बरैलेले श्रीमद् भगवदगीता संस्कृतांथकून कोंकणीन्तु रूपान्तर अर्थात् भाषांन्तर करचाक इच्छा अयली। तीणे ते कोंकणीन्तु भाषांतरकेले। ते असा देवनागरि लिपीन।

देवनागरि कोकणीचि यथार्थम्हळ्यारि निज लिपि जाव्न असा। ते अंका कळता "होरतस् इन्डिकस् मलबारिकस्" औषधी विषयान्तु रंगभट्, विनायक पण्डित अनी अप्पुभट तनी बरैलेले साक्ष्यपत्र कोंकणीन देवनागरि लिपीन असा ते कोचि डच गवरणर हेनरिक्वान् रीड् हनी बरा रवंड पुस्त जाव्न प्रकाशित कले एकसास ससि आठसष्टि कृस्ताब्दान्तु। ते प्रथम देवनागरि "बळोक् प्रिन्ट्" छापिले जाव्न असा। मराठि गुजराति हिन्दी भाषेक देवनागरि लिपिन छापिले पयले जाव्न आसा कोंकणीन्तु छापिले। कोचि टि.डि. प्रैमरि शाळेन्तु कोंगणी एक पाठ्य विषयाक जाव्न केरळ सरकारान् दिलेले आज्ञान्तु बारा आगस्त् एकसासणौशि अठसष्टि कृस्ताब्दान्तु सांगिल्या असा "कोंकणी भाषेक लिपि आसा ती देवनागरि"। देरवून भगवतगीता कोंकणीन्तु अणकार अर्थात भाषांन्तर कोरचाक देवनागरि काडिल्यान ते योग्य जाव्न असा। कित्याक म्हळ्यारि कोंकणीचि लिपि असा देवनागरि। भगवत् गीता बरैलेले संस्कृतान्तु देवभाषेन अनी लिपि ती देवाले नागरीन। कोकणीन्तु भांषान्तर करचाक देवनागरि काडिल्यान ते योग्य स्थानारि असा। संस्कृत श्लोक अनी कोकणीन्तु परिभाषा देवनागरीन बरैलेले हस्थ लिखित पुस्तक मका बरौपि श्रीमति विजया प्रभून दोनसास सोळा कृस्तब्द एप्रिल चोविसा दिवसा दिल्या अनी "आमुख" बरौचाक विनंति केल्या। पुस्तक पळैल्यान श्रीमति विजया प्रभून "आमुख" बरैलेले जाव्न असा। ते बरो रूपान तिजे आमुख बरैलेले असा। देखून हावे आमुख बरौचे उचित जायना। तिणे दिलेले अभ्यर्थन मानून प्रस्थावना दिता।

प्रस्थावनेन्तु मका संगचाक असा श्रीमति विजया प्रभून बरैलेले असा या प्रकारि" अम्का भारतान्तु मात्रनयि भायर गावांन्तुयि आसिले अंगेले गौडसारस्वत ब्राम्हिन् जनांक्यि गीता कोळका। तेबगेक गीता वचून अयकून मनांकोरूक् अवसर मेळका। अर्जुनाक देवान दिलोलो उपदेशु कोंकणीभास उलोंचे सर्वैजनांकयि प्रयासु नत्तिले ओगि अंगेलि भास्सेन मन्नांकोर्नु सर्वै जनांलेय् मन्नांतु एक सनू उजवाडु हाडूक् जांका म्होणु आग्रह पावुनु सत्शि अनी एक श्लोक्यि कोंकणी भासेन (देवनागरि लिपीन) भगवत गीता विवरण केल्या। ए कैर्याक देवालेय् कोङकणि भाषास्नेहसिले सर्वालेय् अनुग्रहस्तोलो "(यो उपदेशु देवालुपदेशु सर्वांलेयि मन्नान्तु एकु उजवाडा धारा जावनु रब्बून तंगेल जीवितान्तु समाधान अनिक सम्तोषु हाडूक् प्राप्त् जत्तले म्होणु प्रत्याश कर्ता)" ये तीणे बरैलेले प्रारंबारि खरे जाव्न असा।

तीणे श्लोकांतु संगूचो विषयाचो विवरु दिल्या असा आनी ते एकेक अध्यायाचे। अध्यायु एक अर्जुन विषाद योगु असा। तन्तु एक एक श्लोकाचे विवरण दिल्या। तशि आषा अध्यायाचे विवरण दिल्या। श्रीमत् भगवत् गीतेचे ध्यान संस्कृत श्लोकान आसिले कोकणीन अर्थु सहित विवरण केल्या। त्या उपरान्ते भगवत गीतेचे अध्यायाचे संस्कृत श्लोक सहित कोकणीन पूर्ण रूपान ताचे अर्थु दिल्या। जनाक किते ते श्लोकान्तु सांगिल्या असा म्होणु दिल्या असा। श्लोकान्तुले संस्कृत पदांक युक्त जाव्नु कोकणीन त्या पदांचे अर्थु दीव्नु जनाक संजूचाक जव्चे म्हण्कि बरैलेले असा। ध्यानाचे असा श्लोक सात अनी ताचे अर्थ कोकणीन पदानुक्रमान दिल्या। देरवून श्लोकाचे अर्थु वाचप्यांक जाण जावप् जत्तले।

कोंकणी भाषे विषयान्तु एकेक प्रदेशान्तु एक एक शैलीन उलैयतात। गोय कोंकणीचे मूल केन्द्र। जल्यारि गोयान्तुली कोकणी प्रमाण कोंकणी म्होणु अतं संगचाक जायना। फिरंव्याले आक्रमणान कोकणी लोक गोय सोडून धर्म रक्षणेरवतीरि केरळ, करनाटक, महराष्ट्र इत्यादि प्रदेशान्तु देशांतर जाव्न रबले। गोयान्तु फिरंग्यानि कोंकणी उलोव्चे एक कालाक

निषेधुकेलो हिन्दु लोकानि भास मराठि म्होणु सांगिले। कुस्तमाचानि उलोव्चे पोर्तुगीस म्होणु सांगिले। तशि कोंकणीक कायी राज्याचो आश्रय, अथवा अंगीकार न जलो। गोय स्वतंत्र जल्यानन्तर कोकणीचे विकासाक राजाश्रय मेळो, राजभासजली अनी साहित्य वाडले। जल्यारि प्रमाण कोकणी म्होणु सांगचाक जायना। उदाहरण जाव्न कोचीन्तु "करचाक" (todo) म्होणु उलोव्चे, भाषण करचे, गोयान्तु "करपाक" म्होणु उलेयतायि। जल्यारि साळावे शतमानान्तु गोयचो कृष्णदास शामान बरैलेले रामायणान्तु "करचाक" म्होणु बरैलेले असा। देरवून केरळान्तु उलोव्चि कोंकणी अशुद्ध म्होणु सांगचाक जायना। केन्द्र साहित्य अकादमीन मानून गेतिलेअसा कोकणी विषयान्तु अनी निर्णय केल्या कोकणी जनानि बरोव्चि कोकणी तेते गावान्तु तांग तांगेले शैलीन बरोव्चे जाव्यात। देखून् श्रीमति विजया प्रभून बरैलेली कोंकणी भास तीणे बरैलेलि शैलि त्या रूपान असचे योग्य जाव्न असा। मलयाळि भासेचो प्रभाव सोंगूचे प्रकारि ना म्होणु सांगूचात तरि असा जल्यारि ते भारी उणे। देवनागरीन बरैल्यान केरळान्तुले सर्वै विभागान्तु आसिले, करणाटकान्तु, गोयान्तु, महराष्ट्रान्तु अनी इतर प्रदेशान्तु आसचे जनाक वाचून संजुचाक जत्तले म्होणु हाव निश्चित कर्ता अनी अतं श्रीमति विजाप्रभून बरैलेले श्रीमत् भगवतगीता श्लोक संस्कृतान आशिले अनी त्या श्लोकांचे कोंकणीन संस्कृत पदांचे अनुवाद (अणकार) केलेले अर्थ सहित असा। बरो रूपान जनाक संजूचाक जाव्नु एकेक अध्याय भगवत गीतेन्तु असूचे संस्कृतान्तु आसिल्या त्याचि मण्कि बरौनु अनी पदांचे अर्थ कोकणीन्तु भाषांन्तर कोर्नु बरैलेले लायक जाव्नु असा।

तशि तीणे आष अध्याय सतशि श्लोक भगवत गीतेन्तुले कोंकणीन्तु अर्थसहित संस्कृतान्तु असूचे श्लोक योग्य रूपान बरैलेले जनाभितेरि भक्ति वडतली अनी तीणे केलेली कोकणी मात्रु भाषेचि सेवा अमूल्य जाव्नु असा।

अंतिमेरि मका एक सांगचाक असा कोकणी भाषेचेरि प्रेम आसिले जनानि श्रीमति विजया प्रभून वोडलो प्रयत्नु काणु बरैलेले श्रीमत् भगवत्

गीता संस्कृत श्लोकय् अनी कोकणी भाषांन्तर देवनागरीन तयार कोर्नु प्रकाशित केलेले पुस्तक सर्वै कोकणी प्रेमियानीयि प्राप्तकोर्नु जीवित सफल कोरका म्होणु विनंति कर्ता।

देवान श्रीमति विजया प्रभूक अनी तिजे कुडुंबान्तुले सर्वांकायि अभिवृद्धि अनी विजयप्रद करचाक जाव्नु देवालगि प्रार्थना कर्ता।

म्होणु

मेमासु
5-5-2016

एन पुरुषोत्तममल्या
पद्मश्री अवार्डी
कार्यदर्शि
कोकणी भाषा प्रचार सभा
कोकणिभाषाभवन
कोचि 682 002
अनी
अध्यक्षु, गौडसारस्वत ब्राह्मण
महासभा-केरल.



# आमुख्

जनांक् समाधान् मेळ्नु चांग् मार्ग्गारि मुक्कारि वचाक् म्न्नांतु द्रढ् विश्वासु दिस्सोंचो एाकु प्राथान्य्ऽस्सिल्लो महत्ग्रन्थु त् श्रीमद् भगवद् गीता।

अंम्गोलेंक् मात्रनयि लोकांतूले जनाक् सर्वै विनय्, श्रद्ध, विश्वासु, परस्पर स्नेहु, बहुमानु, सत्य्, नीति, धर्म ये सर्वै आजि ऊणे जावुनस्स्। त्रिश जन् दुसर् जनाम्क् (एळ्त-पेळ्तांतु) द्रोहु दिंचांतु सम्तोषु पावुनु स्वय् आत्म नाशु कर्तायि। परस्पर मार्नु दुख् पम्तायि। ये सर्वै कष्टाम्तु थकूनु एाक् मोचन् मेळूक् अम्का आजि अस्सिल्ले होळ्ळे एाक् भाग्य त् "श्रीमद् भगवद् गीता"। महाभारत युद्धारम्भारि स्वन्द बन्ध जनाम्क् दिक्कूनु म्न्यि देहय् कड्कडे्वुनु तेरारि बेस्सल्ले अर्जुनाक् साक्षात् श्रीकृष्णान्चि उपदेश रूपान् दिल्लोलो उज्वाडु, मनोथैर्य् सर्व प्रकारानियस्सिल्लो विवोरु आत्मावूयि शरीरयि इत्तिकी, क्शिकी ह्मोणूयि तें सर्वै क्शि जल्लें ह्मोणूयि, स्वन्द बन्ध इत्तेह्मोणूयि अम्मि कोण् देवु कोण् ह्मोणूयि सर्वै भोल्लोलो एाकु जाम्काजल्लोलो (अम्गोले घरांतु जाम्का जल्लोलो) ग्रन्थु त् श्रीमद् भग्वद्गीता।

कौरवालग्गि च्यूतु खेळ्नु हर्वल्ले पाण्डवाङक् तज्जि शिक्ष जावुनु कौरवानि वाश्दिोर्नु वनवासाक् पेटेयिलि। थम्गा (तेकालाक्) पाण्डवाङक् फले रूपाचे धर्म सङकडाम्तु पोडुका जल्ले। जलयारि तम्गोले सत्य् धर्म्, नीति, दैव भक्ति, द्या ये सर्वै भोर्नऽस्सिल्ले चांङग् गुणंचे जीवितान् "देवान्" तंक सर्वांतूयि विजय्यि समाथान्यि सम्तोषूयि प्रदान् केल्लो।

वनवासु जावुनुगावांतु एय्लेले पाण्ड्वाङक् घराम्तु चोडोंचाक् (कूटांतु रब्बोम्चाक्) कौरव् तय्यार न्यि जल्ले। मात्रन्यि तंका (पाण्डवाङक्) अवकाशु जावुनऽस्सिल्लो गांवु प्र्म्, घर्, थन् कांई पुणै दिम्चाक् कौरव् तय्यार न्यि

जल्लि। साक्षात् श्रीकृष्णान् माध्यस्त् दोर्नु कौरवालग्गि निम्गीले-"पाण्डव् तुम्गेले स्वन्त् बाव् त्। तङकायि अर्हत् जावुनऽस्सिल्ले मेलुकाजल्लेले थन्, गाँवु घर, सर्वै तुम्मि दींक"। जल्यारि कौरव् ये बगेक् तय्यार् न्यि ह्मोणु देवालग्गि संगीने। तेवेलारि- एक् घर् पुणै तंक (पाण्डवाङक्) दी ह्मोणु श्रीकृष्णन् कौरवालग्गि निम्गीने तेवेयि कौरवानि दिम्ना ह्मोण् सङगीने। ये त् चरित्र प्रसिथ्थ् जावुनऽस्सिल्ले (१८-आषा दिस्स चंकिल्ले) पाण्डव-कौरव युद्धाक् प्रथान कारण जल्लेले।

सत्य्, धर्म्, भक्ति, मनुष्, पकृति, कर्म्म कर्म्मफल्, यझ, जनन् मरण्, शरीर, आत्मावु, (एक् मनुष्याक् अजीयि केदनायि जीविताक् जांका जल्लोलो चांग् विवोरु मार्ग्ग् अस्सिल्लो) एश्शि सर्वै प्राथान्य् दीवुनु अस्सिल्लो उपदेशु श्रीकृष्णान् अर्जुनाक् दीवुनु कौरवालग्गि युद्ध कोरूक् अर्जुना मन्नांतु द्रढ् जावुनऽस्सिल्लो एकु उज्वाडु दिल्लोलो महाभारतांतु म्ह्दे "श्री व्यास महर्षीन्" निबन्थन् केल्लेले त् "श्रीमद् भगवद्गीता"।

आजि इङग्लीषान्यि, हिन्दीन्यि संस्कृतान्यि मराटीन्यि मलयालान्यि एश्शि जैते भस्सेन् लोक प्रसिद्ध जावुनऽस्सिल्ले भगवद्गीत अस्स्। जल्यारि अम्क भारतांतु मात्रन्यि भायर् गावांतूयि अस्सिल्ले अंगेलेंक् (GSB) (गैडा सारस्वत ब्राह्मिन्) जनांक्यि गीत कोल्का। ते बगेक् गीत वचूनु अय्कूनु मन्नांकोरूक् अवसर् मेल्का। अर्जुनाक् देवान् दिल्लोलो उपदेशु कोंङकणि भास् उल्लोंचे सर्वै जनांकयि प्रयासु नत्तिन्ने ओग्गि **"अम्गेले भरसेन् मन्नांकोर्नु"** सर्वै जनांलेयि मन्नांतु एकु सनू उजवाडु हाडूक् जांका ह्मोण् आग्रहु पावुनु माता पिता गुरु देवाकयि स्मरण कोर्नु यो सत्शि (७०१) अनि एकु श्लोकूयि कोङकणि भासेन् (देवनागरि लिपीन्) भगवत्गीत विवरण केल्लेया। ऐ कैरेक् कोङकणि भाषास्नेहसिले सर्वांलोयि अनुग्रहस्तोलो ह्मोण् प्रतीक्ष कर्ता।

भगवद् गीता दुस्रीयि दुस्रीयि वचूनु मन्नांकोरूक् देवालेयि, गुरूंगेलेयि, मल्गडेंगेलेयि अनुग्रहान् सन्दर्भु मेळ्ळोलस्स्। नंत्न जैतेकडे चंकिल्लेयि दृश्य श्राव्य माध्यमांतु एंचेयि भगवद्गीता प्रभाषण् ऐक्कूक्यि अवसर् मेळ्ळेले अस्स्। यें सर्वैं ये प्रयत्नाक् प्रचोदन्यि सहायूयि जल्लो। कोल्नत्तिन्ने अंतु इत्तेय् ऊणवु चूकि एय्लेलस्स् जल्यारि महाजनानि क्षम पावुङ्का।

यो उपदेशु (देवालो उपदेशु) सर्वांलेयि मन्नांतु एाकु उजवाडा घारा जावुनु रब्बूनु तंगेले सर्वांलेयि जीवितांतु समाथान् अनीक् सम्तोषु हाडूक् प्राप्त् जत्त्ने ह्मोण् प्रत्याश कर्ता। ये वेलारि देवाकयि मिग्गेले माता, पिता, गुरुंकयि, नमस्कारु कोर्नु यो देवाल् पुस्तकु कोंकणि भास् उल्लोंचे गौड सारस्वत ब्रह्मण (G.S.B.) जनांक् समर्पण् कर्ता। ये प्रयत्नाक् च्ड् प्रचोदन् दिल्लेलें श्री पुरुषोत्तम मल्या (पद्मश्री पुरस्कार विजेता) साराक्यि, तंगेले कुडुम्बाक्यि, यो बूकु प्रसिद्धीकरण् कोर्चे कोंकणि भाषा प्रचार सभेक्यि ये वेलारि हांव् होडि नन्दि सङग्ता।

वैक्कं,
24-4-2016

ह्मोणु स्नेहपूर्व्,
विजया राजकुमार प्रभु.

**श्लोकु** **विषय विवोरु**

## अध्यायु – १ – अर्जुन विषाद योगु

१-११ पाण्डव कौरव सैन्यांतूले प्रथानियांलो विवोरु।

१२-१९ युद्धारंभ् कोलोंचाक् जावुनु दोन्नीय् पक्षाचेय् योदधाव् शंख् गर्ज्जन् कर्त्ताय्।

२०-२७ अर्जुनाल् सेना निरीक्षण्।

२८-४७ दयेन् मूढु; आकुलु अनीक् दुखितु जावुनु अर्जुनु उल्लेयता।

## अध्यायु - २ - सांख्य योगु

१-१० अर्जुनाल् शेका पस्सून् कृष्णर्जुन संवादु।

११-३० सांख्य योगु।

३१-३८ क्षश्रिय धर्म्माचे महत्व्।

३९-५३ कमर्म योगु।

५४-७२ स्थित प्रज्ञ लक्षण्यि महत्व्यि।

## अध्यायु - ३ - कर्म योगु

१-८ आसक्ति (आग्रहु) प्र्गाल्नु ज्ञानयोगूयि कर्म योगूयि प्रकारि कर्तव्य कर्म कोर्काजल्लेल् प्राथान्या पस्सून्।

९-१६ यज्ञ् कोर्काजल्लेल् पसून्।

१७-२४ देवु सदा प्रर्वर्त्ति कोर्नस्स् ज्ञानीयि तेचि वट्टेनोच्चुका।

२५-३५ ज्ञानीलेयि अज्ञानीलेयि लक्षण्। रागदवेष् प्र्गाल्नु कर्म अनुष्ठान् कोरूक् देवाल् निर्देशु।

३६-४३ आग्रहु त् ज्ञानसम्पादनाक् तडस् ह्मोणूयि आग्रहाक् क्शिश तारण् कोरुयात् ह्मोणूयि देवु निर्देशु दित्त।

| श्लोकु | विषय विवोरु |
|---|---|
| | अध्यायु - ४ - ज्ञान योगु (ज्ञान कर्म सन्यास योगु) |
| १-१८ | सर्व्वेश्वरु जावुनऽसिल्ले देवाल् महत्वयि कर्म योगचे विवरणयि। |
| १९-२३ | तज्जे लक्षण्। |
| २४-३२ | फलेविधानसिल्ले यज्ञाचे कैरींयि तज्जे सर्व फल्यि। |
| ३३-४२ | ज्ञानाचे महत्व्। |
| | **अध्यायु - ५ - कर्म संन्यास योगु** |
| १-६ | सांख्य योगु, कर्म योगु विवरण्। |
| ७-१२ | सांख्य योगिनेयि कर्म योगीनेयि लक्षण्, योग महत्व्। |
| १३-२६ | ज्ञान योगु। |
| २७-२९ | भक्ति सहित् जावुनसिल्ले ध्यानयोग वर्ण्णन्। |
| | **अध्यायु - ६ - अभ्यास योगु (आत्मसंयम योगु)** |
| १-४ | कर्म योग विवरण् - योगु मेल्लेलेने लक्षण्। |
| ५-१० | आत्म साक्षात्कार् मेल्लेलेने लक्षण्। |
| ११-३२ | ध्यान योग विवरण्। |
| ३३-३६ | मन्नाक् नियन्त्रण् कोरूकस्सिन्ने वाट्। |
| ३७-४७ | योग भृष्टालि गति अनीक् ध्यानयोग महत्व्। |
| | **अध्यायु - ७ - ज्ञानविज्ञान योगु** |
| १-७ | विशेष विज्ञान सहित् जावुनऽसिल्ले ज्ञान्। |
| ८-१२ | प्रपञ्चांतूल् सर्वांतूयि देवान् सान्निद्ध्य्। |
| १३-१९ | आसुर प्रकृति, दैवीक प्रकृति। |
| २०-२३ | वेग्ग्ल् देवता उपासन। |
| २४-३० | देवान् महत्व्। |

| श्लोकु | विषय विवोरु |
|---|---|

## अध्यायु – ८ – अक्षर ब्रह्म योगु

| | |
|---|---|
| १-७ | ब्रह्म्, अध्यात्म्, कर्म, अधिभूत्, अधिदैव्, अज्जेपसून् देवु सङ्ग्त। |
| ८-२२ | भक्ति योगु। |
| २३-२८ | उत्तरायण् दक्षिणयन् मार्ग्। |

## अध्यायु – ९ – राजविद्या राजगुह्य योगु

| | |
|---|---|
| १-६ | राजविद्या। |
| ७-१० | देवूयि प्रकृतीयि संसार चकृयि। |
| ११-१५ | आसुर प्रकृति, दैवीक प्रकृति; भगवद् भक्ति। |
| १६-१९ | देवु कोण? |
| २०-२५ | सकाम निष्काम उपासना फ्ल्। |
| २६-३४ | निष्काम भगवद् भक्ति माहात्म्य्। |

## अध्यायु – १० – विभूति योगु

| | |
|---|---|
| १-७ | देवाल् विभूतीयि, योगशक्तीयि ते ज्ञानाफल्यि। |
| ८-११ | भक्ति योगु-फलयि महत्वयि। |
| १२-१८ | अर्जुनाल् भग्वत्स्तुतीयि-देवालि विभूतीयि योगशक्तीयि विस्तरान् संगुका ह्मोण् प्रार्थनायि। |
| १९-४२ | देवु कोण् शक्ति इत्ते-वर्ण्णन। |

## अध्यायु – ११ – विश्वरूप दर्शन योगु

| | |
|---|---|
| १-४ | विश्वरूप दर्शनाक् जावुनु अर्जुनाल् प्रार्थन। |
| ५-८ | विश्वरूपा पसून् देवु वर्ण्णन् कर्त। |
| ९-१४ | धृतराष्ट्राक् सञ्जयु विश्वरूपापसून् सङ्गून् दित्त। |

| श्लोकु | विषय विवोरु |
|---|---|
| १५-३१ | विश्वरूप दिक्कून् ब्य्यान् अर्जुनु देवाक् स्तुति कर्त। |
| ३२-३४ | युद्ध कोरूक् देवु अर्जुनाक् उत्साहु दित्त। |
| ३५-४६ | देवाल् सौम्य्रूप् दक्कोंचाक् अर्जुनु प्रार्त्थन् कर्त। |
| ४७-५० | विश्वरूप दर्शन महात्मय् देवु वर्ण्णन् कर्त, सौम्य रूप् दक्केय्त। |
| ५१-५५ | अनन्य भक्तीयि तज्जे फल्यि-दुर्ल्लभ् जावुनऽसिल्ले चर्तुभुज् रूपा पसून् देवु सङ्गून् दित्त। |

## अध्यायु – १२– भक्ति योगु

| | |
|---|---|
| १-१२ | उपासनाचे महत्वयि देवाले पम्चाकसिल्ले उपाय्यि वर्ण्णन। |
| १३-२० | देवाल् लग्गि पंचाकस्सिल्ले गूण् मेल्लेलेले लक्षण्। |

## अध्यायु – १३ – क्षेत्रक्षेत्रज्ञ विभाग योगु

| | |
|---|---|
| १-१९ | क्षेत्र इत्ते, क्षेत्रज्ञु कोण? अनीक् ज्ञानमहत्वयि। |
| २०-३५ | प्रकृति पुरुष विवरण – विज्ञान्। |

## अध्यायु – १४ – गुणत्रय विभाग योगु

| | |
|---|---|
| १-१४ | ज्ञानमहत्वयि, प्रकृति पुरुप संयोगंतु धक्कून् लोकाचे जनन् गेव्प्यि। |
| १५-१८ | सत्व, रजस् तमोगुण लक्षण्। |
| १९-२७ | देवाले पंचाक्ऽस्सिल्लि वट्यि गुणातीताले लक्षण्यि। |

## अध्यायु – १५ – पुरुषोत्तम योगु

| | |
|---|---|
| १-६ | संसार वृक्ष वर्ण्णन्यि देवाले पंचाक्ऽस्सिल्लुपायूयि। |
| ७-११ | जीवात्मा विवरण्। |
| १२-१५ | परमात्मावूयि महत्वयि। |
| १६-२० | क्षरपुरुषु, अक्षर पुरुषु, पुरुषोत्तमु। |

| श्लोकु | विषय विवोरु |
|---|---|

## अध्यायु – १६ – दैवासुर सम्पद् विभाग योगु

| | |
|---|---|
| १-५ | दैवी सम्बत् आसुरी सम्बत् विवरण्। |
| ६-२० | आसुर सम्बत्तस्सिल्लेले लक्षण्यि गतीयि। |
| २१-२४ | काम, क्रोथ लोभांतु धक्कून् विमुक्तु जावुनु शास्त्रविधि प्रकारानि जीवित् कोरूक् निर्देशु। |

## अध्यायु - १७ - श्रद्धात्रय विभाग योगु

| | |
|---|---|
| १-६ | श्रद्धापसूनूयि, शास्त्रविरुद्ध जावुनु कठिनतपस्स् अनुष्टान् कोर्चापसूनूयि देवु सङग्त। |
| ७-२२ | विविध् जावुनऽस्सिल्लाहारु-यज्ञ, दान्, तपस् अज्जेपसून् देवु सङग्त। |
| २३-२८ | "ॐ तत् सत्" ह्मल्लेलेचो अर्थूयि त्शि सङगुचाचो उद्देशूयि। |

## अध्यायू - १८ - मोक्ष संन्यास योगु

| | |
|---|---|
| १-१२ | त्यागु इत्ते क्शि? |
| १३-१८ | सांख्य सिद्धांन्ताचे उजुवडांतु कर्माचे कारण् देवु सङग्त। |
| १९-४० | ज्ञान् कर्म कर्त्तावु बुद्धि, धृति, सुख् एं सर्वे– तीनि गुणनि देवु विवरण् कर्त। |
| ४१-४८ | वर्ण्णश्रम धर्मयि तें पालन् केल्लेरि मेल्चे फल्यि। |
| ४९-५५ | ज्ञाननिष्ट। |
| ५६-६६ | भक्तीनऽसिल्ले निष्काम कर्मानुष्टाना पस्सून् देवु सङग्त। |
| ६७-७८ | गीत सिक्कून् प्रचारु कोर्चे महत्वा पस्सून्। |

*****

## ॐ श्री परमात्मने नमः

**ॐ श्री गुरुभ्यो नमः**
**ॐ श्री गणेशय नमः**
**ॐ श्री सरस्वतै नमः**

## श्रीमद् भगवद् गीता ध्यान्

ॐ पार्त्थाया प्रतिबोधितां भगवता नारायणेन स्वयम्,
व्यासेन ग्रथितां पुराणमुनिना मध्ये महा भारतम्।
अद्वैतामृत वर्षिणीं भगवतीं अष्टादशादध्यायिनीम्,
अम्ब! त्वामनुसन्धामी भगवद् गीते भगद्वेषिणीम्।

कुन्दील्पूतु अर्जुनाक् श्रीमन्नारायणन्चि उपदेशु दिल्लोलोयि मर्हषि जावुनऽसिल्ले वेदव्यासान् संविथान् कोर्नु महा भारत कथेचे म्द्दे (मध्य्) भागरि निबन्थन् केल्लेलेयि (मध्य् भागक् दवर्लेलेयि) अद्वैत् जावुनस्सिल्लेऽमृत् दिम्चीयि (जीवात्मावूयि परमात्मावूयि एककूचि त् दोनि न्यि ह्मल्लेले अमृत् जावुनऽस्सिल्ले हो....ड् कैरि मनांकोर्नु दिंचीयि) आषा (१८) अद्ध्यायांतूयि जावुनु संसारा (संसाराचो) दुख नाशु कोर्चीयि जावुनऽसिल्ले भगवत् गीताम्बिकेक् हांव् वन्दन् कर्ता।

**नमोऽस्तुते व्यास विशाल बुद्धे फुल्लारविन्दायत् पत्रनेत्र।**
**येन त्वया भारत तैला पूर्ण्णः प्रज्वालितो ज्ञान मयः प्रदीपः।**

महा बुद्धि अस्सिल्लोयि (होल्लो बुदुवन्तु जावुनऽस्सिल्लोयि) फुल्लेवुनु दिग्गयेन् पद्माक्षा द्ळावरि दोलेय्ऽस्सिल्ले व्यास महर्षे! "तुम्मि मू" महाभारत जावुनऽस्सिल्ले तैल् बोर्नुगाल्नु ज्ञानमय् जावुनऽस्सिल्लो यो विशिष्ट दीवो (भगवत् गीत) जोलोवुनु प्रकाशु केल्लोलो! हांव तुम्का नमस्कारु कर्ता।

**प्रपन्न पारिजाताय तोत्रवेत्रैक पाणये।**
**ज्ञानमुद्राय कृष्णाय गीताऽमृत दुहे नमः।**

पारिजातवृक्षामतिरीन् आश्रयिजत्तल्लेंक् फल् दिंचोयि (आशृयिजत्तलेंक् रक्षण कोर्चोयि) एकत्तांतु चममटटीयि (तोत्रम्यि) लगाम्यि (कडिज्ञाण्यि) दोर्लोलोयि अनियेकत्तांतु ज्ञानमुद्र दक्कोंचोयि, (ज्ञानमुद्र थारण् केल्लोलोयि) गीत जावुनऽसिल्लऽमृत् दार्काणु दिल्लोलोयि जावुनऽसिल्लेश्रीकृष्णाक् नमस्कारु।

**सर्वोपनिषदो गावो दोग्द्धा गोपालनन्दनः ।**
**पार्थो वत्सः सुधीर्भोक्ता दुग्द्धम् गीताऽमृतम् महत् ।**

सर्वे उपनिषत्त्यि गय्योयि, दारकड्चो नन्दगेपराल् पूतु श्रीकृष्णूयि, वस्सूर् जावुनऽस्सिल्लो अर्जुनुयि, दूद् महत् जावुनऽसिल्ले गीताऽमृत्यि, तें पिंचि सर्व्वै (सग्गटेयि) ज्ञानीयि (विवोरस्सिन्नीयि) ह्मोण् सङ्गतायि।

**वसुदेवसुतम् देवम् कम्सचाणूर मर्द्दनम् ।**
**देवकी परमानन्दम् कृष्णम् वन्दे जगद्गुरुम् ।**

वसुदेवाल् पुत्रूयि, कम्साक्यि चाणूराक्यि दिंश्मिर्लोलोयि, देवकीक् परमानन्द् दिम्चोयि, लोकांतूले, सर्वांक्यि गुरूयि जावुनऽसिल्लो देवु श्रीकृष्णाक् हांव नमस्कार कर्ता।

**भीष्मद्रोणतडा जयद्रथ जला गान्धार नीलोत्पला,**
**शलयग्राहवती कृपेण वहनी कर्णेन वेलाकुला**
**अश्वत्थाम विकर्ण्ण घोर मकरा दुर्योधनावर्त्तिनी**
**सोत्तीर्ण्ण खलु पाण्डवैःरणनदी कैवर्त्तकः केशवः ।**

भीष्मूयि द्रोण्रेयि जावुनऽस्सिल्ले तडाक्य् (होल्ले तोलेयि). जयद्रथु जावुनसिल्ले उद्दाक्यि, गान्थारु जावुनऽसिल्लो नीलुपारोयि, (गान्धारा रायु श्कुनि जावुनऽसिल्लो नीलु होलो भत्तोरूयि) शलर्य जावुनऽसिल्ले सिस्सेरीयि, कृर्प जावुनऽसिल्ले उद्क्कापोन्दांतुल् ओळुकूयि, कर्ण्णल् कैरेन् आकुल् म्न्न् जावुनऽसिल्ले तीरदेशूयि अश्वत्थामावूयि विकर्ण्णूयि जावुनऽसिल्ले भयन्कर मकरमल्स्य्यि, दुर्योधनु जावुनऽसिल्ले नीर्चुळीयि (ചുഴി-उदुकांतूल् चुली ह्मलेरि होल्ले नदींतु-तडाकांतु-समुद्रांतु सर्वै (सग्ग्यि) उद्कांतु सोकडेक्डे

वडुकुळें जावुनु उद्दाक् गूवुनु गूवुनु रब्त्ने। तंतु कोणेय् प्ल्लेरि मगीरि (तज्जे उपरांन्ते) रक्ष मेलूक् होड् कष्ट् त्। त्शिश अस्सिल्ले ते युद्ध नदीक् पाण्डवानि तारण् केल्ले। तारि देवोंचो "श्रीकेशेवु" त् अस्सिल्लो (श्रीकृष्णान् त् तारण् कोरूक् सहायु केल्लोलो)।

**पाराश्र्य वचः सरोजममलम् गीतात्थगन्धोत्कडम् ।**
**नानाख्यानक केसरम् हरिकथा सम्बोधना बोधितम् ।**
**लोके सज्जन षट्पदै रह रहः पेपीयमानम् मुदा,**
**भूयाद् भारतपङ्गजम् कलिमलः पृध्वम्सिनः श्रेयसे ।**

पराशरा पुत्राले (व्यासाले) श्रीव्यासदेवाले उत्तर्-जावुनऽस्सिल्ले सरसांतु (तोलेंतु) जनन् गेत्तन्ने निर्मल् गीतात्थ जावुनऽसिल्ले उद्कड् (होल्ले) ग्न्ध् असिलेयि विविधतराचे उपकथ जावुनऽसिल्ले द्ल् (पत्तीयो) असिल्लेयि हरिकथास्तुतीनि विकसित् (फुल्लेवुनु रब्बिन्नेयि) जल्लेनेयि लोकांतु सज्ज्न् जावुनऽस्सिल्ले बण्डानि दिने दिने (केदनायि-स्ग्ग्दिस्सायि) संतोषान् पान्कोर्चेयि कलीले मालिन्यांक् नाशुकोर्चेयि-महाभारत् जावुनऽसिल्ले ये पद्माक्षा फूल् अम्क श्रेयसाक् जावुनु भविजावो।

**मूकम् करोति वाचालम् पम्गुम् लम्घयते गिरिम्,**
**यत् कृपा तमहम् वन्दे परमानन्द माधवम् ।**

कोणलि कृप (द्य) की मूकाक् (उल्लोंचाक् शक्ति नत्तिल्लेक्) वाचालु कर्त (उल्लोंचाक्ऽस्सिल्लि शक्ति दित्ता) मुडन्ताक् (पायु थोम्टो जावुनऽसिल्लेक्) पर्व्वोतु चोडूक् प्राप्तु कर्त, परमानन्द स्वरूप जावुनऽसिल्ले ते माधवाक् हांव् वन्दन् कर्ता।

**यम् ब्रहमा वरुणेन्द्र रुद्र मरुतः स्तुन्वन्ति दिव्यैः स्तवैः**
**वेदैः सांगपदकृमोपनिषदैर्गायन्ति यं सामागः ।**
**ध्यानावस्थित तद्गतेन मनसा पश्यन्ति यम् योग्नो**
**यस्यान्तम् न विदुः सुरासुरगणाः देवाय तस्मै नमः ।**

ब्रहमावु, वरुणु इन्द्रु, रुद्रु अन्नीयि मरुत्त्यि दिव्य कीर्त्तनानि कोणक् की स्तुति कर्त्तायि – खंचे की देवापसून् सामगानमोण्चिं वेदांग्, वेद्क्चनक्रम्, उपनिषत्त् अज्जानि सर्वै ह्मोणु स्तुति कर्त्तायि- खंचेकी एकलेम्तु प्रवेशन् केल्लेले म्न्नान् तक्क योगीयो दर्शन् कर्त्तायि कोणल्की माहात्म्या परिथीक् (अन्त् नत्तिल्ले माहात्म्य् हमोणु) देव्य् असुर्य् मन्नांक्र्तायि वे ते देवाक् जावुनु नमस्कारु कर्ता।

ॐ शान्ति..... शान्ति..... शान्ति :



ॐ श्री परमात्मने नमः

# श्रीमद् भगवद् गीता

## अध्याय १

## अर्जुन विषाद योगु

धृतराष्ट्र उवाच–

**१ धर्मक्षेत्रे कुरुक्षेत्रे समवेता युयुत्सवः ।**
**मामकाः पाण्डवाश्चैव किमकुर्वत सञ्जय !**

धर्मक्षेत्र् जावुनऽस्सिल्ले कुरुक्षेत्रांतु युद्ध कोरूक् आग्रहु कोर्नु एय्लेले मिग्गेले जनानीयि पाण्डवानीयि इत्तिकी केल्ले ह्मोणु कुरुवंशंतु होडु जावुनऽसिल्ले धृतराष्ट्रान् सञ्जयालग्गि निंङगीले। युद्धस्थलारि सर्वै जन् तय्यां जल्लिवे। थंग (ते स्थलारि) इत्तिकी चंक्त-कोण् कोण् अस्सयि- ए सर्वै जाण् जंचाक् धृताष्ट्राक् होल्लि तान् एय्लि, एक्क्शि एक्-१०१ जणलो मल्गेडो जावुनऽसिल्ले तंगेले मन्नांतु एय्लेले दुखान् निंङग्ल्ले त् तें।

सञ्जय उवाच–

**२ दृष्ट्वा तु पाण्डवानीकं व्यूढं दुर्योधनस्तदा ।**
**आचार्यमुपसङ्गम्य राजा वचनमब्रवीत् ।**

सञ्जयान् धृतराष्ट्रालग्गि सङ्गीने–

पाण्डव् सैन्य् युद्धाक् तय्यार जावुनु रब्बिल्ले दिक्कूनु दुर्योधनान् आचार्यु जावुनऽस्सिल्ले द्रोणरालग्गि ओच्चूनु सङ्गीने।

**३ पश्यैतां पाण्डुपुत्राणामाचार्य महतीं चमूम् ।**
**व्यूढां द्रुपदपुत्रेण तव शिष्येण धीमता ।**

हे आचार्या तुम्गेले बुदुवन्तूयि शिष्यूयि जावुनुऽसिल्लो धृष्टद्युम्नाक् (द्रुपदपुत्रु) व्यूह कोर्नु प्रत्येकतरारि रब्बेयलेले ए होल्ले पाण्डव सैन्याक् चोवुनु मनाम्करायि (दिक्कायि) खयि।

**४ अत्र शूरा महेष्वासा भीमार्जुनसमा युधि ।**
**युयुधानो विराडश्च द्रुपदश्च महारथः ।**

**५. धृष्टकेतुश्चेकितानः काशिराजश्च वीर्यवान् ।**
**पुरुजित्कुन्तिभोजश्च शैब्यश्च नरपुङ्गवः ।**

**६. युधामन्युश्च विक्रान्त उत्तमौजाश्च वीर्यवान् ।**
**सौभद्रो द्रौपदेयाश्च सर्व एव महारथाः ।**

थम्म चोय्यायि ते दिक्कुच्चे सैन्याम्तु भीमूयि अर्जुनूयि मणके (तम्चे मतिरीन्) युद्धकोरूक् अतिसमर्थ् जावुनऽस्सिल्ले जैते जाण् अस्स्यि। तम्तु प्रथान जावुनु अर्जुनालो शिष्यायि युद्धांतु वीरत्व दक्कोम्चोयि जावुनऽस्सिल्लो युयुधाननु", तें नम्त्न विराडु, द्रुपदु, चेकिताननु, धृष्टकेतु, काशिरायु कुन्तीलो पितामहु जावुनऽस्सिल्लो शूरु, युधामन्यु, अभिमन्यु पाञ्चालीले पुत्र् एश्शी महारथ् जावुनऽस्सिल्लें अनेक जनांक् दिक्कु एत्ता।

**७. अस्माकं तु विशिष्टा ये तान्निबोध द्विजोत्तम ।**
**नायका मम सैन्यस्य संज्ञार्थं तान्ब्रवीमि ते ।**

हे उत्तम ब्राह्मण (ब्राहमणंतु उत्तमु जावुनऽसिल्ले) अनीक् मिग्गेले (दुर्योधनाले) सैन्यांतु नायक् जावुनु विशिष्ट् जावुनऽस्सिल्ले कोण सर्वै ह्मोणु तुम्का मन्नां कर्ता ।

**८ भवान्भीषमश्च कर्णश्च कृपश्च समितिंजयः ।**
**अश्वत्थामा विकर्णश्च सौमदत्तिस्तथैव च ।**

**९. अन्ये च बहवः शूरा मदर्थे त्यक्तजीविताः ।**
**नानाशस्त्रप्रहरणाः सर्वे युद्धविशारदाः ।**

तुम्मीयि (द्रोणचार्यर्), भीषमर्, जयशालि जावुनऽस्सिल्ले कृपर्, कर्णु, अश्वत्थामा, नम्तन विकर्ण, सोमदत्ताल् पुत्रु भूरिश्रृवस्, जयद्रथु ए सर्वै मिग्गेले कूटाम्तु अस्स्यि। अम्चे बायर् मिगेल् बगेक जीवु पर्यान् बलि दिम्चाक तय्यार जावुनु जैत्तेतराचे आयुथधारीयि, युद्ध कोरूक निपुण्यि जावुनऽस्सिल्ले वीरा् पुत्र्यि अस्स्यि।

**१०. अपर्याप्तं तदस्माकं बलं भीष्माभिरक्षितम् ।**
**पर्याप्तं त्विदमेतेषां बलं भीमाभिरक्षितम् ।**

भीष्माँ जावुनु रक्षण् कोर्चे अम्गेले सैन्याक जाम्काजल्लेल्-पशी ब्ल् ऊणेत् (तुत्तूल् पूरो जल्लेने न्यि-अपर्याप्त त्)। जल्यारि, भीमान् रक्षण् दिम्चे सैन्य् परिमित् (ऊणे जल्यारीयि) ब्ल् अस्सिन्ने त् (पूरोजल्लेने त्)।

**११. अयनेषु च सर्वेषु यथाभागमवस्थिताः ।**
**भीष्ममेवाभिरक्षन्तु भवन्तः सर्व एव हि ।**

सर्व दिक्कारीयि निर्द्दिष्ट स्थानारि (एककलीम्चि) तन तनी रबूनु सर्वानीयि ह्मोण् भीष्मराक् संरक्षण् कोर्का।

**१२ तस्य संजनयन्हर्षं कुरुवृद्धः पितामहः ।**
**सिंहनादं विनद्योच्चैः शङ्खं दध्मौ प्रतापवान् ।**

**१३. तत शङ्खाश्च भेर्यश्च पणवानकगोमुखाः ।**
**सहसैवाभ्यहन्यन्त स शब्दस्तुमुलोऽभवत् ।**

कुरुवंशचो बन्दूयि (बहुमान्यूयि) वयोवृद्धूयि पितामहूयि प्रतापीयि जावुनऽस्सिल्लो भीष्मु दुर्योधनाक् संतोषु प्रदान्कोरूक् जावुनु ओड्डान् सिंहगर्ज्जन् कोर्नु तंग्गेले "शम्खुनाद्" केल्ले। तक्क लग्गूनु, श्ङख, भेरि, आनक्, गोमुख्, एशिशि अस्सिल्ले वाध्य्खोष् सर्वै आरांबीले। तश्शी युद्धक्कल् (युद्धाचोथायु) सर्वै ओल्ले श्बदान् सौदान् भर्ले।

**१४. ततः श्वेतैर्हयैर्युक्ते महति स्यन्दने स्थितौ ।**
**माधवः पाण्डवश्चैव दिव्यौ शङ्खौ प्रदध्मतुः ।**

ते समयारि श्रीकृष्णनेयि अर्जुनान्यि द्वे गेडया मम्दिल्ले रथाचेरि रबूनु तं तम्गेले दिव्य जावुनऽस्सिल्ले श्ङख् ग्र्जन् केल्ले।

**१५. पाञ्चजन्यं हृषीकेशो देवदत्तं धनञ्जयः ।**
**पौण्ड्रं दध्मौ महाशङ्खं भीमकर्मा वृकोदरः ।**

श्रीकृष्णले "पाञ्चजन्यम्" अर्जुनाले "देवदत्तं' ओल्लो पराक्रमि जावुनऽस्सिल्ले भीमाले "पौण्ड्रं ह्मल्लेले महाश्ङखानेयि त् वज्जिन्ने।

**१६. अनन्तविजयं राजा कुन्तीपुत्रो युधिष्ठिरः ।**
**नकुलः सहदेवश्च सुघोषमणिपुष्पकौ ।**

कुन्ती पुत्रु युधिष्ठिर रायु "अनन्दविजयं" ह्मल्लेलो शंङखूयि नकुल सहदेवानि "सुखोषं" मण्पुिष्पकं" ह्मळ्ळेले श्ङखूयि त् वज्जिल्लो।

**१७. काश्यश्च परमेष्वासः शिखण्डी च महारथः ।**
**धृष्टद्युम्नो विराटश्च सात्यकिश्चापराजितः ।**

**१८. द्रुपदो द्रौपदेयाश्च सर्वशः पृथिवीपते।**
**सौभद्रश्च महाबाहुः शङ्खान्दध्मुः पृथक् पृथक् ।**

विल्लालि वीरु जावुनऽस्सिल्लो काशिरायु, महारथु जावुनऽसिल्लो शिखण्डी, धृष्टद्युम्न, विराडु, हर्व्ण् कोल्नत्तिल्लो सात्यकी, द्रुपद् पाञ्जालि पुत्र्, आजानुबाहु अभिमन्यु एशिश अस्सिल्ले महावीर् सर्वै तं तम्गेले श्ङख्यि वज्जीले।

**१९. स धोषो धार्तराष्ट्राणां हृदयानि व्यदारयत् ।**
**नभश्च पृथिवीं चैव तुमुलो व्यनुनादयन् ।**

यो ओल्लो 'सोव्दु' (युधाधैयावेलो सौदु दुर्योधनादीले घृतराष्टाले सर्वालेयि हर्दैबित्तेरि चोणु भायर् एवुनु आकाशरीयि भूमीरीयि अय्क्कून् रबीले।

**२०. अथ व्यवस्थितान्दृष्ट्वा धार्तराष्ट्रान् कपिध्वजः ।**
**प्रवृत्ते शस्त्रसंपाते धनुरुद्यम्य पाण्डवः ।**

**२१. हृषीकेशं तदा वाक्यमिदमाह महीपते! ।**

हे रय्या– सञ्जयु धृतराष्ट्रालग्गि सङ्ग्त, तुम्गेले पुत्र् सर्वैजाण्यि (युधाक तय्यार जल्लेले धृतराष्ट्राले सर्वै जन्) विल्लाळि वीरु जावुनऽस्सिल्ले अर्जुनालग्गी युद्धकोरूक् तय्यार जावुनु रब्बिल्ले दिक्कून् अस्त्र पेटोंचाक् तय्यार् जावुनु धनुष्यि बाणुयि हत्ताम्तु दोरु रब्बिल्ले अर्जुनान् कृष्णलग्गि एशिश सङ्गीने।

अर्जुन उवाचः–

सेनयोरुभयोर्मध्ये रथं स्थापय मेऽच्युत ।

२२. यावदेतान्निरीक्षेऽहं योद्ध्युकामानवस्थितान् ।

कैर्मया सह योद्धव्यमस्मिन्रणसमुद्यमे ।

२३. योत्स्यमानानवेक्षेऽहं य एतेऽत्र समागताः ।

धार्तराष्ट्रस्य दुर्बुद्धेर्युद्धे प्रियचिकीर्षवः ।

अर्जुनान सङ्गीने –

"हे कृष्णपरमात्मा" दोन्नीयि सैन्याचेयि मध्य भागरि जावुनु मिग्गेल् र्थ् रब्बेय्यायि। हांव् कोणलग्गी सर्वै युद्ध् कोरुका ह्मोणूयि दुष्टु जावुनऽस्सिल्ले दुर्योधनाल् प्रीतीक् जावुनु युद्ध कोरूक् एय्लेले कोण् कोण् ह्मोणूयि हांव् एक् चोवुनु मनांकर्ता।

सञ्जय उवाच –

२४. एवमुक्तो हृषीकेशो गुडाकेशेन भारत ।

सेनयोरुभयोर्मध्ये स्थापयित्वा रथोत्तमम् ।

२५. भीष्मद्रोणप्रमुखतः सर्वेषां च महीक्षिताम् ।

उवाच पार्थ पश्यैतान् समवेतान्कुरूनिति ।

सञ्जयान सङ्गीने–

हे भारत कुलाधिपु जावुनऽस्सिल्ले रय्या (धृतराष्ट्र) अर्जुनाले उत्तर् अय्कून् श्रीकृष्णन्-दोन्नीयि सैन्याचेय् मध्य् जावुनुयि भीष्मद्रोणादीले मुक्कारीयि, अनीक् अस्सिल्ले रय्यांक् सर्वै दिक्कूक् एंचे प्रकारीनीयि तंगेले विशिष्ट् जावुनऽस्सिल्लो तेरु रब्बोवुनु एश्शि संगीले "हे अर्जुना युद्ध् कोरूक् एक्कडे जावुनु रब्बिल्ले ये कौरव समूहाक् (कुरुवम्शँतूल् जनाँक्) तू चोयी" खयि।

२६. तत्रापश्यत्स्थितान्पार्थः पितृनथ पितामहान् ।

अचार्यान्मातुलान्भ्रातृन्पुत्रान्पौत्रान्सखींस्तथा ।

२७. श्वशुरान्सुहृदश्चैव सेनयोरुभयोरपि ।

तान्समीक्ष्य स कौन्तेयः सर्वान्बन्धूनवस्थितान् ।

तज्जे उपराम्ते (तें जाव्नु) अर्जुनान् थंग अस्सिल्ले दोन्नीयि सेनाम्तूयि (पाण्डव्यि कौरव्यि) युद्ध कोरूक् एवुनु रब्बिल्ले तंगेले पितास्थानीयाँक्, आबूम्क्, आचार्यांक्, मामुमौलेम्क्, पुत्र पौत्राम्क्, सखावाँक् बयलाले पितावाँक्, सुहृत्त् जानुनऽस्सिल्लेम्क् सर्वांक्यि दिक्कूनु अर्जुनु सङ्ग्त-

**२८. कृपया परयाविष्टो विषीदन्निदमब्रवीत्**
**द्रष्ट्वेमं स्वजनं कृष्ण युयुत्सुं समुपस्थितम् ।**

**२९. सीदन्ति मम गात्राणि मुखं च परिशुष्यति**
**वेपथुश्च शरीरे मे रोमहर्षश्च जायते ।**

ओड दुःख्यि द्यायि अस्सिल्लो जावुनु अर्जुनान् संङ्गीने–

युद्ध् कोरूक् आग्रहु काणु एयलेले ए स्वजनांक् (स्वन्त जावुनऽस्सिल्ले जनांक्) दिक्कूनु शरीरावयव् (देह्) सर्व्यि क्षीण् जत्त। मिग्गेले दोले बोर्नु कांयिपुणै दिक्कूक्एन मुखाक् (तोण्डाक्) उद्दाक् नांजत्त (वरण्ड्जत्त) देहाक रोमाञ्ज जत्ता, कोड् कोडो एत्ता।

**३०. गाण्डीवं स्रंसते हस्तात्त्वक्चैव परिदह्यते ।**
**न च शक्नोम्यवस्थातुं भ्रमतीव च मे मनः ।**

"गाण्डीव् मिग्गेले हत्तांतु थक्कून् खल्लाक् पड्ता। देहांतु थक्कून् उज्जो एत्ता। मक्का उट्टावुनु रब्बूक्सरी जायना। मिगेले म्न्न् गूवुनु गूवुनु व्च्चे मतिरीन् दिस्स्ता"।

**३१. निमित्तानि च पश्यामि विपरीतानि केशव ।**
**न च श्रेयोऽनुपश्यामि हत्वा स्वजनमाहवे ।**

हे केशवा दुर्न्निमित्त्चि त् मक्का सर्वै दिक्कूक् एत्ता (चंगपण् कांयिपुणै मुक्कारि दिक्कूक् एना)। स्वजनांक् युधाम्तु दिम्श्मिार्नु एक् श्रेयस्सेयि मक्का दिक्कूक् एना।

**३२. न काङ्क्षे विजयं कृष्ण न च राज्यं सुखानि च ।**
**किं नो राज्येन गोविन्द किं भोगैर्जीवितेन वा ।**

हे कृष्ण मक्का जयु आग्रहु ना। मक्का राज्ज्य् नक्का। सुख भोग नक्का। गोविन्दा, राज्य् अस्सूनूयि भोग् सर्वै अस्सूनुयि ये जीवितानेंचि हम्मि इत्तिकी प्राप्त् कोरूक् वत्तायि।

**३३. येषामर्थे काङ्क्षितं नो राज्यं भोगाः सुखानि च ।**
**त इमेऽवस्थिता युद्धे प्राणांस्त्यक्त्वा धनानि च ।**

राज्य्; भोग्, सुख् ये सर्वै कोणक् जावुनम्मी युद्ध् कोरुका ह्मोणु आग्रहु कल्लो तीं सर्वै जीवु–धनादीक् त्यज कोर्नु (प्र्गाल्नु) अंगा युद्ध् कोरूक् रब्बीलियायि।

**३४. आचार्याः पितरः पुत्रास्तथैव च पितामहाः ।**
**मातुलाः श्वशुरा, पौत्राः श्यालाः सम्बन्धिनस्तथा ।**

अंतु गुरु जावुनऽस्सिल्ले, बप्पमार्, पूत् आबुमार्, मामुमार्, बइलाले बप्पमार्, पुत्ताले पूत्, दूवेले पूत्, अक्काले बम्मूण् (बावुमार्) बन्दुजन् ये सर्वै अस्स्।

**३५. एतान्न हन्तुमिच्छामि घ्नतोऽपि मधुसूदन !**
**अपि त्रैलोक्यराज्यस्य हेतोः किं नु महीकृते ।**

हे मधुसूदना अन्नि (हन्नि-शत्रुपक्षारि रब्बिन्नि) मक्क दिंशिमारूक् एयलेनि जलयारीयि तेनेयि मक्का तिन्नीयि लोक्यि स्वन्त् जावुनु मेल्त्ने जल्यारीयि हांव् अङका दिंशिमारूक् आग्रहिजायिन। मग्गीरि वे ये भूमी बगेक् जावुनु तश्शी कोरुक। (सर्वांक्यि दिंशिमारुका?)।

**३६. निहत्य धार्तराष्ट्रान्नः का प्रीतिः स्याज्जनार्दन !**
**पापमेवाश्रयेदस्मान्हत्वैतानाततायिनः ।**

हे जनार्दना, धृतराष्ट्रापुत्र् जावुनऽस्सिल्ले दुर्योधनादींक् (दुर्योधनाले कूटाम्तु युध् कोरूक् जावुनु एयलेले सर्वांक्यि) दिंशिमारु इत्ति संतोषु की जंचाक व्त्ता। बल्लावप्ण् सर्वै कोर्चे हङक दिंशिमर्लयारी तज्जे पाप् अंक मेल्त्ने ह्म्ल्लेले मात्र् त्।

**३७. तस्मान्नार्हा वयं हन्तुं धार्तराष्ट्रान् स्वबान्धवान् ।**
**स्वजनं हि कथं हत्वा सुखिनः स्याम माधव !**

तें पसावत् स्वन्दबन्दु जावुनऽस्सिल्ले दुर्योधनादींक् दिंश्मार्प् झल्लेले अंक संगिलेल् न्यि। स्वजनांक् दिंश्मार्नु हे माधवा अंक इत्ति सुख् की मेळूक् व्त्ता।

**३८. यद्यप्येते न पश्यन्ति लोभोपहतचेतसः ।**
**कुलक्षयकृतं दोषं मित्रद्रोहे च पातकम् ।**
**३९. कथं न ज्ञेयमस्माभिः पापादस्मान्निवर्तितुम् ।**
**कुलक्षयकृतं दोषं प्रपश्यद्भिर्जनार्दन।**

अत्याग्रेहु मन्नांभोर्णश्शिल्लि ईं ज्न् सर्वै कुलक्षयान् जम्चो दोषूयि, मित्रांक् द्रोहुदिल्लेल् खत्तीरि मेल्चो पापूयि मन्नां क्रनायि। जलयारि एं सर्वै मन्नां कोर्चि हम्मि ये पाप् प्रवर्त्तींतु धक्कून् मग्लेन् सोर्कानवे हे जनार्द्दना। (नां जल्यारि ते पाप् अंक मेळ्त्ने नवे हे कृष्ण)।

**४०. कुलक्षये प्रणश्यन्ति कुलधर्माः सनातनाः ।**
**धर्मे नष्टे कुलं कृत्स्नमधर्मोऽभिभवत्युत ।**

कुल् नश्शिंजायिनाफडेन् नित्य् जावुनऽस्सिल्ले कुल धर्मु सर्वै नाशु जत्त। धर्मु नष्ट जल्यारि कुलाक सर्वै अधर्मु आकृमण् कर्ता।

**४१. अधर्माभिभवात्कृष्ण! प्रदुष्यन्ति कुलस्त्रियः ।**
**स्त्रीषु दुष्टासु वार्ष्णेय! जायते वर्णसङ्करः ।**

हे कृष्ण अधर्मु चंकना फडेन स्त्री वोर्ग्गु बल्लाव् जावुनु वत्तायि (दुषिजत्तायि) हे वृष्णिवंशंतु जल्लेल्या कुल स्त्रीयो बल्लाव् जल्यारी वर्ण्ण सर्वै भर्सल्यावरि जावुनु भविजत्त्ने। (वर्ण्ण भोर्सूनु वेगले जत्त्ने)।

**४२. सङ्करो नरकायैव कुलघ्नानां कुलस्य च ।**
**पतन्ति पितरो ह्येषां लुप्तपिण्डोदकक्रियाः ।**

वर्ग् भर्सल्ले पसावत् (भर्सल्ले निमित्ति) कुलाक् नाशु कोर्चांक्यि कुलाक्यि नरक् कर्त्त्ने। तंगेले पित्रांक् कोर्चे पितृकैरिं (पिण्डक्रिया, उदकक्रिय, बलि, पूज एश्शि सर्वै अस्सिन्ने कैरिं) कांयि पुणै पावनत्तिन्ने जावुनु अधप्पतन् पंव्ता।

**४३. दोषैरेतैः कुलघ्नानां वर्णसङ्करकारकैः ।**
**उत्साधन्ते जातिधर्माः कुलधर्माश्च शाश्वताः ।**

वर्ण् भर्स्प् सम्भवु कोर्चे कुलाक् नाशु कोर्चाले एा दोषान् शश्वत् जावुनऽस्सिल्ले जातिधर्म्म्यि कुलधर्मयि क्षयिजावुनु व्त्ता।

**४४. उत्सन्नकुलधर्माणां मनुष्याणां जनार्दन !**
**नरकेऽनियतं वासो भवतीत्यनुशुश्रुम ।**

हे जनार्दना कुलधर्म सर्वै क्षयु पावुनस्सिले मनुष्याल् वासु नरक्.... चि ह्मोणु हम्मि अयिक्किल्लस्समू।

**४५. अहो बत महत्पापं कर्तुं व्यवसिता वयम् ।**
**यद्राज्यसुखलोभेन हन्तुं स्वजनमुद्यताः ।**

हो होल्ले पाप् कोरुक् अम्मि देव्नियायि, राज्य मेल्नु सुख बोग्गुक ह्मल्लेले अत्याग्रहान् स्वजनांक् दिंश्मिारूक् हम्मि श्रमु कड्तायि मु।

**४६. यदि मामप्रतीकारमशस्त्रं शस्त्रपाणयः ।**
**धार्तराष्ट्रा रणे हन्युस्तन्मे क्षेमतरं भवेत् ।**

आयुध् दोर्न्नस्सिल्ले दुर्योधनादीन् आयुध् काणुनत्तिल्ले मक्क युद्धांतु दिंश्मिर्लो जल्यारीयि तेंचि त् मक्क होड् क्षेम् जावुनऽस्सिल्ले कैरि। (चांग् कैरि)।

सञ्जय उवाचः

**४७. एवमुक्त्वार्जुनः संख्ये रथोपस्थ उपाविशत् ।**
**विसृज्य सशरं चापं शोकसंविग्नमानसः ।**

सञ्जयु धृतराष्ट्रालग्गि सङग्त– एश्शि सग्गयि (ए प्रकारि सर्वै) सङगून् अर्जूनु होड् दुखान् धोण्णूयि बाणूयि खल्लाक् दोव्वोरु तेरा तटयारि बेस्तल्लो जल्लो।

ॐ तत्सदितिश्रीमद् भगवद्गीतासूपनिषत्सु
ब्रहमविध्यायां योगशास्त्रे श्रीकृष्णार्जुन संवादेऽर्जुन
विषादयोगो नाम प्रथमोऽध्यायः।

ॐ-तत् सत् एश्शि श्रीमद् भगवद्गीतांतूले उपनिष–
ततांतुले ब्रह्मविदध्यांतुले योगशास्त्रांतुले श्रीकृष्णार्जुन
संवादांतु अर्जुन विषादयोगु ह्मल्लोलो प्रथमऽध्यायु समाप्त्।

*****



## अध्याय - २
# सांख्य योगु

संञ्जय उवाच –

**१. तं तथा कृपयाविष्टमश्रुपूर्णाकुलेक्षणम् ।**
**विषीदन्तमिदं वाक्यमुवाच मधुसूदनः ।**

संञ्जयु धृतराष्ट्रालग्गि संङग्त –

एश्शी (येप्रकारि) दयालुजावुनु अस्सिल्लोयि भारि (होल्ले) विषमान् दोले भोर्नूयि दुखितूयि जावुनऽस्सिल्ले अर्जुनालग्गि कृष्णु संङ्ग्त इत्तिकी ह्मल्लेरि –

श्रीभगवानुवाच–

**२. कुतस्त्वा कश्मलमिदं विषमे समुपस्थितम् ।**
**अनार्यजुष्टमस्वर्ग्यमकीर्त्तिकरमर्जुन !**

हे अर्जुना ए विषमखटारि श्रेष्ट् जावुनऽस्सिल्लेंक् योजित् जावुनत्तिल्लेंयि, स्वर्गप्राप्तीक् विपरीत्यि, दुष्कीर्त्तिक्र्यि, जावुनऽस्सिल्लि यीं कैरि कोरूक् बुद्धि तुक्क क्शिश दिस्स्ली?

**३. क्लैब्यं मा स्म गमः पार्थ! नैतत्त्वय्युपपधते ।**
**क्षुद्रं हृदयदौर्बल्यं त्यक्त्वोत्तिष्ठ परंतप !**

अर्जुना एश्शि पौरुष् नत्तिल्लि अवस्थ तुक्क एम्चाक प्ण। तें तुक्क योग्य न्यि। हे शत्रुनाशका ओड् नत्तिल्ले ये "मन्नांतूले क्षीण्" प्र्गल्नु उट्टावुनु यो।

आर्जुन उवाच–

**४. कथं भीष्ममहं संख्ये द्रोणं च मधुसूदन ।**
**इषुभिः प्रतियोत्स्यामि पूजार्हावरिसूदन ।**

ते समयारि अर्जुनु कृष्णलग्गि संङग्तजल्लो – शत्रुनाशु हडचो हे मधुसूदना, "पूजनीय् जावुनऽस्सिल्ले" भीष्मराक्यि, द्रोणराक्यि क्शिकी हांव् अस्त्र् प्रयोगन् मर्तोनो युद्ध् कोर्त्तोलो।

**५. गुरूनहत्वा हि महानुभावान् श्रेयो भोक्तुं भैक्ष्यमपीह लोके।**
**हत्वार्थकामांस्तु गुरूनिहैव भुञ्जीय भोगान् रुधिरप्रदिग्धान् ।**

महानुभाव् जावुनऽस्सिल्ले गुरूंक् दिंशिमार्नु जीवित् कडचापशि चांग् ये लोकांतु भिक्ष काणु जीवित् कोर्चे त्। गुरूंक् दिंशिमर्लेरि अंग रग्ग्त् लग्गन्ने भोग् अनुभवु कोर्का जत्त्ने।

**६. न चैतद्विद्मः कतरन्नो गरीयो यद्वा जयेम यदि वा नो जयेयुः ।**
**यानेव हत्वा न जिजीविषाम स्तेऽवस्थिताः प्रमुखे धार्तराष्ट्राः ।**

दुर्योधनादीलग्गि हम्मि जयु पंत्नि कि अंचेरि तन्नि जयु पंत्नि ह्मोण् कांयि क्ल्न। हंतु खंचे श्रेष्ट मोणूयि क्ल्न। कोणक् दिंशिमारनु जीवित् नक्क ह्मोण् अम्मि आग्रहु कडतायि तन्नि – ते दुर्योधनादि लोकु त् हंचेरि युद्ध् कोरूक् तर्य्या जावुनु रब्बीलिंयायि।

**७. कार्पण्यदोषोपहतस्वभावः पृच्छामि त्वां धर्मसंमूढचेताः ।**
**यच्छ्रेयः स्यान्निश्चितं ब्रूहि तन्मे**
**शिष्यस्तेऽहं शाधि मां त्वां प्रपन्नम् ।**

आत्मावाक् निप्पोवुनु दोवोर्चे अज्ञान् मिग्गेल् स्वभावांतु हल्लेल् व्यत्यासा परसूनु धर्माक्यि अधर्माक्यि मन्नांकोरूक् जावुनत्तिन्ने "मूढचित्" जावुनऽस्सिल्लो हांव् तुज्जेलग्गि निंगीत। "हे देवा मक्क श्रेयस्कर् जावुनस्सिल्ले इत्तिकी ते मक्क तीर्तु– जावुनु (दृड जावुनु) संगून् दिय्यायि। हांव् तुग्गेलो शिष्य त्। हांव् तुक्क शरण् पवला। मक्क जांकजल्लोल् उपदेशु दींका।

**८. न हि प्रपश्यामि ममापनुधाद् यच्छोकमुच्छोषणमिन्द्रियाणाम् ।**
**अवाप्य भूमावसपत्नमृद्धं राज्यं सुराणामपि चाधिपत्यम् ।**

ए भूमीरि शत्रुनत्तिन्नेयि समृद्धि जावुनस्सिन्नेयि एक राज्य् जावो देवेन्द्र स्थान् जावो होल्ले जल्यारीयि एकु प्रयोजनूयि दिक्कूएना। कारण् इत्तिकी ह्मलेरि, मिग्गेल् इन्द्रियांक् सवै ब्ल् नत्तिल्ले जंचे लेक्कान् कोर्चे मिग्गेल् व्यसनाचो नाशु क्श्शी क्र्प् ह्मोण् मक्क दिक्कूक् एना। (मनांतु जाय्न)। ये दुखाक् एकि निवर्त्तीयि जाय्न।

सञ्जय उवाच –

**९. एवमुकत्वा हृषीकेशं गुडाकेशः परंतप ।**
**न योत्स्य इति गोविन्दमुक्त्वा तूष्णीं बभूव ह ।**

सञ्जयान् सङ्गीने–

एलेक्कान् सग्गय् (सर्वै) सङ्गूनु "हांव् अनीक् युद्ध कोर्ना' हमोण् शत्रूंक भिसराम्चे अर्जुनान् कृष्णलग्गि सङ्गूनु उल्लोवुनत्तिन्ने (मौनान्) बेस्सोलो।

**१०. तमुवाच हृषीकेशः प्रहसन्निव भारत ।**
**सेनयोरुभयोर्मध्ये विषीदन्तमिदं वचः ।**

हे धृतराष्ट्रमहारय्या दोन्नीयि सैन्याचेयि म्द्दे (मद्ध्य भागरि) एश्शि विषादान् बेस्सल्ले अर्जुनालग्गि मन्दहासा तोण्डान् श्रीकृष्णन् संङ्गीने -

श्री भगवानुवाच –

**११. अशोच्यानन्वशोचस्त्वं प्रज्ञावादांश्च भाषसे ।**
**गतासूनगतासूंश्च नानुशोचन्ति पण्डिताः ।**

देवान संङ्गीने–हे अर्जुना "दुख् काडुका नक्क जावुनऽस्सिल्ले जनाल् कैरेंतु तू दुख कड्त। विद्वत् जना मतिरीन् उल्लेयितायि। विवेकु अस्सिन्नि मेल्लेले पस्सून् जावो जीविजावुनु अस्सिल्लेल् पस्सून् जावो दुख् काडनायि (दुख् पावनायि)।

**१२. न त्वेवाहं जातु नासं न त्वं नेमे जनाधिपाः ।**
**न चैव न भविष्यामः सर्वे वयमतः परम् ।**

तूवेयि ना जल्लोना। ए दिक्कूक् एंचे सकल् (सर्वै) रय्येयि त्श्शीचि ना जल्लेल् ना। अनिक्यि (भावींतु) अम्मि कोण् ना जंना।

**१३. देहिनोऽस्मिन्यथा देहे कौमारं यौवनं जरा ।**
**तथा देहान्तरप्राप्तिर्धीरस्तत्र न मुह्यति ।**

देहाभिमानस्सिल्ले ए देहांतु कौमार्, यौवन्, जरानर ई अवस्त सर्वै क्श्शी संभविजत्त- तश्शीचि अंगेलो आत्मावु एक देह सोणु वेग्ग्ळे एक्कांतु प्रवेशु कर्ता। अरिव् अश्शिन्नि (ज्ञानि लोकु) ए माटांतु (एश्शि जायिनाभडेन्) मोहु क्र्नायि।

१४. **मात्रास्पर्शास्तु कौन्तेय शीतोष्णसुखदुःखदाः ।**
**आगमापायिनोऽनित्यास्तांस्तितिक्षस्व भारत ।**

हे कुन्तीपुत्रा–इन्द्रियांक्यि विषयांक्यि जावुनऽस्सिल्ले संबक्कां खत्तीरि जंचेयि, एवुनूयि ओछूनूयि अस्सिन्नेयि, शेलोवु, उष्ण् सुख्, दुख् ये अवस्थ सर्वै अनित्य् त्। (शश्वत् न्यि) ते पसावत् हे भारता तूं तें सहन्क्रि।

१५. **यं हि न व्यथयन्त्येते पुरुषं पुरुषर्षभ !**
**समदुःखसुखं धीरं सोऽमृतत्वाय कल्पते ।**

हे पुरुषश्रेष्टा, सुखांतूयि दुखांतूयि समचित्ततेन् (एक्क्मन्नान्) विवेकूयि दोर्नु अंतुकांयि व्यसन् कोर्नत्तिन्ने खोंचो पुरुषु जीवित् कर्त (जीवित् कडता) तो मनीषु त् मोक्षु पंचाक् योग्य् (अर्हत) जावुनऽस्सिल्लो।

१६. **नासतो विद्यते भावो नाभावो विद्यते सतः ।**
**उभयोरपि दृष्टोऽन्तस्त्वनयोस्तत्वदर्शिभिः ।**

नत्तिल्ले एक्काक् अस्स् ह्मल्लेले अवस्थ ना। त्श्शीचि अस्सिल्ले एक्काक् ना ह्मल्लेले अवस्थायि ना। ये दोन्नीचेयि सूक्ष्मत्व भाव् तत्व्ज्ञानि जावुनऽस्सिल्लेनि मन्नांकेल्लेनस्स्यि।

१७. **अविनाशि तु तद्विद्धि येन सर्वमिदं ततम् ।**
**विनाशमव्ययस्यास्य न कश्चित्कर्तुमर्हति ।**

यो विश्वव्यापक् जावुनऽस्सिल्लो अत्मावुः नाशु नत्तिल्लो त्। यें देहादि प्रपञ्ज सर्वै खंचारि व्यापक जावुनस्सकी तो "बृहम्म" नाशु नत्तिल्लो ह्मोणु मन्नांक्रि। नाशुनत्तिल्ले तक्क नाशु कोरूक् कोणचान् साद्ध्य न्यि।

१८. **अन्तवन्त इमे देहा नित्यस्योक्ताः शरीरिणः ।**
**अनाशिनोऽप्रमेयस्य तस्माधुध्यस्व भारत ।**

नित्य जावुनऽस्सिल्लोयि, नाशूनत्तिल्लोयि प्रमाणन् जाण्जंचाक् जावुनत्तिल्लोयि अवस्थेरस्सिल्ले आत्मावाले ए देह् सर्वै नाशु अस्सिल्लें ह्मोणु संङ्गतायि। ते पसावत् (ते कारणन्) हे भारता तू युद्ध क्री-ह्मोणु श्रीकृष्णन् अर्जुनालग्गि संङ्गीने।

**१९. य एनं वेत्ति हन्तारं यश्चैनं मन्यते हतम् ।**
**उभौ तौ न विजानीतो नायं हन्ति न हन्यते ।**

यो अत्मावु दिंशिमर्ल्लोलो ह्मोणु जावो, दिंशिमर्चो हमोणु जावो मनांकोर्चि दोन्नीयि जाण् आत्मावाक् व्ल्क्कनायि। ये आत्मावाक् दिंशिमारूक् जावो, दिंशिमर्लोल् जावो कोरूक् जंन (क्रनायि कांयिपुणेयि जायना)।

**२०. न जायते म्रियते वा कदाचिन्नायं भूत्वा भविता वा न भूयः ।**
**अजो नित्यः शाश्वतोऽयं पुराणो न हन्यते हन्यमाने शरीरे ।**

आत्मावाक् जननेयि मरणेयि न। तें नित्य्यि शश्वत्यि त्। आदिकालु धक्कूँ अस्सिन्नेयि त्। शरीराक् दिंशिमर्लेरीयि तंतूले आत्मावाक् दिंशिमारनायि तक्क नाशु जाय्ना।

**२१. वेदाविनाशिनं नित्यं य एनमजमव्ययम् ।**
**कथं स पुरुषः पार्थ कं घातयति हन्ति कम् ।**

हे अर्जुना कोणकी आत्मावाक् नाशुनत्तिल्लोयि, जनन-मरण इत्यादीक् नत्तिल्लोयि ह्मोणु मनांकर्ता, तश्शि अस्सिल्लेक कोणकयि दिंशिमारूक् जावो मार्व्प् कोरूक् जावो क्शिशि जत्त्ने।

**२२. वासांसि जीर्ण्णनि यथा विहाय नवानि गृह्णाति नरोऽपराणि ।**
**तथा शरीराणि विहाय जीर्णान्यन्यानि संयाति नवानि देही ।**

मनीषु जीर्णित् जावुनऽस्सिल्ले वस्त्र् पेल्लेन् गाल्नु नवे वस्त्र् स्वीकार कर्त्तल्ले वरीचि त् जीर्ण् जावुनऽस्सिल्ले देहांतु बेस्सल्लो आत्मावु शरीर् उपेक्ष कोर्नु नवे शरीराक् स्वीकारु कर्ता।

**२३. नैनं छिन्दन्ति शस्त्राणि नैनं दहति पावकः ।**
**न चैनं क्लेदयन्त्यापो न शोषयति मारुतः ।**

ये आत्मावाक् आयुध् गयु घाल्न। अग्नीन् दहन् कोरुक् जंना। उदकान् तिम्मोंचाक्यि जंन। वायून् ज्डाणि ऊणे कोरूक्यि जंना।

**२४. अच्छेद्योऽयमदाह्योऽयमक्लेद्योऽशोष्य एव च ।**
**नित्यः सर्वगतः स्थाणुरचलोऽयं सनातनः ।**

यो आत्मावु कुटीके कोरूक् जावुनत्तिल्लोयि, द्हन् कोरुक् जावुनत्तिल्लोयि, सुक्कोंचाक् जावुनत्तिल्लोय्, आर्द्रत हाडूक् जंचोयि न्यि। यो आत्मावु नाशु नत्तिल्लोयि सर्वै स्थलारीयि भोर्नऽस्सिलोयि स्थिर्यि चञ्जल् स्वभावु नत्तिलोयि (रूप व्यत्यासु कोर्नत्तिल्लोयि) आदीयि अन्त्यि नत्तिलोयि त्।

**२५. अव्यक्तोऽयमचिन्त्योऽयमविकार्योऽयमुच्यते ।**
**तस्मादेवं विदित्वैनं नानुशोचितुमर्हसि ।**

यो आत्मावु अव्यक्तु त्। चिन्त कोरूक्यि, विकारु कोरोंचाक्यि कोल्नत्तिलो (जावुनत्तिल्लो) ह्मोण् सङ्गतायि। एश्शि ए आत्मावाक् शरि जावुनु जाण् जावुनु तू दुखितु जंचाक् अर्हु न्यि।

**२६. अथ चैनं नित्यजातं नित्यं वा मन्यसे मृतम् ।**
**तथापि त्वं महाबाहो नैवं शोचितुमर्हसि ।**

हे अर्जुना–

यो आत्मावु केद्नायि (नित्य्) जनन् गेत्तायि अनीक् केदनायि मरण् कर्तायि (केदनायि जनन्-मरण् कोर्चोयि) ह्मोण् मनांकेल्यारीयि तूं दुख् कोरुकाजल्लेल् कैरिं ना।

**२७. जातस्य हि ध्रुवो मृत्युर्ध्रुवं जन्म मृतस्य च ।**
**तस्मादपरिहार्येऽर्थे न त्वं शोचितुमर्हसि ।**

जन्म घेत्तल्यांक् मर्ण्यि, मरण् जल्लेलेंक् जनन्यि निश्चयु त्। तश्शि परिहारु नत्तिल्ले हंतु तुक्क दुख् जंचाक् अवकाशु ना।

**२८. अव्यक्तादीनि भूतानि व्यक्तमध्यानि भारत ।**
**अव्यक्तनिधनान्येव तत्र का परिदेवना ।**

सर्व जीवीयोयि जनन् घेंचे फूडे अव्यक्त् त् (दिक्कूक् एंचे न्यि) जनन्शेष् (मद्ध्य् कालाक्–मद्ध्य दशेरि) दिक्कूक् एंचे जत्त। मरण् उपरांते दिक्कू एना जत्त। हे भारता हंतु तू इत्याक् दुखितु जत्ता।

**२९. आश्चर्यवत्पश्यति कश्चिदेन- माश्चर्यवद्वदति तथैव चान्यः ।**
**आश्चर्यवच्चैनमन्यः श्रृणोति श्रुत्वाप्येनं वेद न चैव कश्चित् ।**

एक्कोलो आत्मावाक् आश्चर्य वस्तु जावुनु दिक्क्त। अनि एक्कोलो अक्क आश्चर्यामतिरीन् सङग्त। वेग्गेलो एक्कोलो आश्चर्यजावुनऽस्सिल्ले एक् साथना मतिरीन् अय्क्त। एश्शि अय्क्तायीयि, सर्वै (स्ग्ग्) कर्तायीयि जलयारीयि शरिजावुनु हक्क मनां कोर्चो कोण्पुणै न।

**३०. देही नित्यमवध्योऽयं देहे सर्वस्य भारत ।**
**तस्मात्सर्वाणि भूतानि न त्वं शोचितुमर्हसि ।**

हे भारत सर्व जनांलेयि देहांतु अस्सिल्लो यो आत्मावु केदनायि पुणै (एक्क् कालाक्यि) दिंश्मिारुक् वौसुच्चो न्यि (साद्ध्य जंचो न्यि)। ते पसावत् तूवे क्स्सल् प्राणीचे पसूनूयि दुख् काडुका (कोरुका) जल्लेलें कैरिं न। (तू दुखि जंचाक् अर्हु न्यि।)।

**३१. स्वधर्ममपि चावेक्ष्य न विकम्पितुमर्हसि ।**
**धर्म्याद्धि युद्धाच्छ्रेयोऽन्यत्क्षत्रियस्य न विद्यते ।**

तुगेले धर्मापसूनु आलोचन् कोर्नु तूवे परिभृमु काडुका जलेल् (कोर्का जलेल्) कैरि न। कारण् इत्तिकी ह्मल्लेरि क्षत्रियालो धर्म्मु "धर्म्म् युद्ध् क्र्प् त्"। तज्जापशि श्रेष्टजावुनु क्षत्रियांक् कांयिना।

**३२. यदृच्छया चोपपन्नं स्वर्गद्वारमपावृतम् ।**
**सुखिनः क्षत्रियाः पार्थ लभन्ते युद्धमीदृशम् ।**

हे अर्जुना यदृछया (अठोवुनु-उडगासु कोर्नत्तिन्ने) एयलेनेयि, काणुगल्लेने स्वर्ग्गद्वार्चि स्वर्ग्गकव्व्ड्चि जावुनऽस्सिल्ले ए मतिरीनस्सिन्ने युद्ध् कोरूक् अवसर मेल्चे क्षत्रिय् सुखियोचि त् (भाग्यवन्त्चि त्)।

**३३. अथ चेत्त्वमिमं धर्म्यं संग्रामं न करिष्यसि ।**
**ततः स्वधर्मं कीर्तिं च हित्वा पापमवाप्स्यसि ।**

ये धर्म्म युद्ध तूं केल्लेना जल्यारि तुग्गेले स्वधर्मयि कीर्त्तीयि वोच्चूनु पाप् भोग्गुक जत्त्ने।

३४. अकीर्तिं चापि भूतानि कथयिष्यन्ति तेऽव्ययाम् ।
सम्भावितस्य चाकीर्तिर्मरणादतिरिच्यते ।

सर्व जीवजाल्यि तुक्क सहन् जावुनऽत्तिल्ले लेक्कान् अपकीर्त्ति(बल्लाव्) संगून् कर्त्त्नि (संङ्गून् बोंत्नि्)। अभिमानि जावुनऽस्सिल्लेंक् अपकीर्त्ति (बल्लाव् अय्क्प्) मरणपश्शि दुख् त्। (कष्ट् कोर्चे त्।)

३५. भयाद्रणादुपरतं मंस्यन्ते त्वां महारथाः ।
येषां च त्वं बहुमतो भूत्वा यास्यसि लाघवम् ।

तूं युद्धांतु धक्कून् मकलेन् सोर्लो ह्मोण् महारथ् जावुनऽस्सिल्ले अष्टेयत्नि। तश्शि तन्नि सर्वै बहुमानु कोर्चो तू एकु कांयिपुणै कोल्नत्तिल्लो जावुनु वोत्तोलोयि।

३६. अवाच्यवादांश्च बहून्वदिष्यन्ति तवाहिताः ।
निन्दन्तस्तव सामर्थ्यं ततो दुःखतरं नु किम् ।

तुग्गेले शत्रु सर्वै समर्थु जावुनश्शिल्ले तुक्क निन्द कोर्नु नक्क जलेने सर्वै सङ्गून् बोंत्ले। तज्जापश्शि होड् एक् दुख् जावुनु तुक्क अनीक् इत्तिकी एंचाक् अस्स्।

३७. हतो व प्राप्स्यसि स्वर्गं जित्वा वा भोक्ष्यसे महीम् ।
तस्मादुत्तिष्ठ कौन्तेय युद्धाय कृतनिश्चयः ।

हे अर्जुना मेल्लेरि तुक्क वीर् स्वर्ग्ग् प्राप्ति। जयि जल्लेरि तुक्क राज्य् मेल्त। तें दुक्कून् (ते पसावत्) तू युद्ध कोरुक् (निश्चयु) तीरुमान् कोर्नु उटावुनु यो।

३८. सुखदुःखे समे कृत्वा लाभालाभौ जयाजयौ ।
ततो युद्धाय युज्यस्व नैवं पापमवाप्स्यसि ।

सूख्यि दुख्यि, लाभूयि नष्ट्यि, जय्यि अपजय्यि एक्क् मतिरीन् लेक्कूनु युद्ध् कोरुक् तीरुमान् (निश्वयु) क्री। तश्शि केल्यारि तूं पापांतु पोण्ण (तुक्क पाप् मेळ्ना)।

**३९. एषा तेऽभिहिता सांख्ये बुद्धिर्योगे त्विमां शृणु ।**
**बुद्ध्या युक्तो यया पार्थ कर्मबन्धं प्रहास्यसि ।**

अत्त् पर्यान् सङिग्न्ने सांख्य् योगुत् ह्मल्लेरि आत्म तत्व् विषयु त्। अनीक् सङ्गूक् व्च्चे योग बुद्धी पसून् त्। अय्क्कुक– हे पार्थ, ई बुद्धी मेलचेक् कर्म बन्ध् दूर काडुक् (दूर कोरुक्) जत्त्ने।

**४०. नेहाभिक्रमनाशोऽस्ति प्रत्यवायो न विधते ।**
**स्वल्पमप्यस्य धर्मस्य त्रायते महतो भयात् ।**

कर्म योग परिशीलन् संबन्ध् जावुनऽसिल्लि प्रवृत्ति कांयि पुणै फ्ल् नत्तिन्ने जंना। आरंभु कोर्नु रब्बेयलेरीयि एकु दोषूयि जंन। उणे (स्वल्प जावुनु) परिशीलन् केल्यारीयि तें होल्ले संसारा भयांतु धक्कून् रक्षा कर्त्ने।

**४१. व्यवसायात्मिका बुद्धिरेकेह कुरुनन्दन ।**
**बहुशाखा ह्यनन्ताश्च बुद्धयोऽव्यवसायिनाम् ।**

हे कुरुवंशपुत्रा–निश्चय् स्वरूपस्सिल्लि बुद्धि एक्कीचि त् अस्स्। निश्चय् स्वरूप् नत्तिल्लेलि बुद्धि (निश्चयु जावुनु रब्बोंचाक् जावुनत्तिलेलि बुद्धि) अनेक् शखानि भर्ल्लेलीयि अन्त् नत्तिल्लीयि त्।

**४२. यामिमां पुष्पितां वाचं प्रवदन्त्यविपश्चितः ।**
**वेदवादरताः पार्थ नान्यदस्तीति वादिनः ।**

**४३. कामात्मानः स्वर्गपरा जन्मकर्मफलप्रदाम् ।**
**क्रियाविशेषबहुलां भोगैश्वर्यगतिं प्रति ।**

**४४. भोगैश्वर्यप्रसक्तानां तयापहृतचेतसाम् ।**
**व्यवसायात्मिका बुद्धिः समाधौ न विधीयते ।**

हे अर्जुना "वेदांतूल् फलापसून् वादु कोरूक् तात्पर्यस्सिन्नीयि, तज्जे भायिर् वेग्गले कांयि न ह्मोण् वादु कोर्चीयि संसार विषयांतु आश (आग्रहु)

